# आत्मनिवेदन

आर.एस. भास्कर



सुवर्णरेखा पब्लिकेशन

(Konkani)
**ATMANIVEDAN**
(Devotional Poems)

(कोंकणी)
**आत्मनिवेदन**
(भक्ती-कविता)

**R.S. Bhaskar**



Published by:
Radhamani Bhaskar
Suvarnarekha Publications
10/443-A, P.S. Dayanandan Lane
Janardhana Temple South
Amaravathi
Fortkochi - 682 001, Kerala
Mob: 09349295255
e-mail: bhaskarkochi@gmail.com

First Edition: 2015

Cover : Akshara Ramesh

Type Setting & Layout : Ramesh T. K.

Printed at: Preras Printers, Kochi-1

Copies : 500

Price ₹ 50/-



## आर्गां

तुवें म्हाका जल्म दिलो
जिणेचें सारतत्व शिकयलें
काळीज भोरनु मोग दिलो
गोड गोड भास दिली
तुज्या पावलांचेर गे
ओंपता अक्षरांचीं आर्गां

# मांडावळ

# ‘आत्मनिवेदन’चो कवी
# आर्विल्या विचारामदीं दिसत रावचो!

कोची, केरळांतले सगल्यांक खबर आशिल्ले नामनेचे कवी श्री. आर.एस. भास्कर हांचो ‘आत्मनिवेदन’ हो कविता - झेलो म्हळ्यार तांच्याच उतरांन सांगपाचें जाल्यार ‘भक्ती-कविता’च! पंचविसावी म्हळ्यारूच निमणी कविता मायाळो-कविता ‘आत्मनिवेदन’.

श्रदेन आनी भक्तीन देवाक नित्य पूजपी एक भक्त देवाकडेन मागता, “काम आनी क्रोधान भरिल्या संवसारांतली जीण म्हाका खूबच कश्टदिणी आनी कठीण दिसता. तेन्ना ही त्राशी जीण जगपाक म्हाका आत्मधैर्य, आत्मविश्वास दी.” सगलें कितें देवच करता. तो निर्मिता आनी तोच नाश करता अशी भावना बाळगुपी हो भक्त ना म्हळ्यार पुरायेन देवाचेर भरवंसून रावता आनी जसो कितें देवाचेर शीण कडटा! आणी तांतुतल्यान देवान आपल्याक आत्मधैर्य दिवचें अशी आस्त बाळगिता.

तशें पळोवपाक गेल्यार कवी आर.एस.भास्कराचो ‘आत्मनिवेदन’ कविता-झेल्यांतल्यो कविता म्हळ्यार ताका खबर आशिल्या, ताच्या संवकळीच्या देवदेवतांच्या गुण-वर्णनाच्यो कविता. वट्ट कवितांतल्यो आरती विघ्नेश्वराक, आरती दुर्गाभगवतीक, आरती जनार्दनाक, आरती दत्तात्रेयाक, आरती वेंकटपतीक, आरती श्रीकृष्णाक, आरती महाबळेश्वराक, आरती हनुमंताक ह्यो तर त्या त्या देवांच्या रूपांच्यो-गुणांच्यो, कर्तुबांच्यो आरत्यो!

वांगडाच ह्या झेल्यांत भक्तान सरस्वतीकडेन वाणीची, उतरां बरोवपाक लगपी सरस्वतीची मागणी केल्ली आसा, गुरुमहाराजाक वंदन केल्ले आसा, ‘वेळ काळ जाल्ले कितले’ म्हणटना देवाचें गायन करपाक मेळचें अशी आस्त बाळगिल्ली आसा. देव जनार्दनाकडेन ‘उगड तुजे दोळे’ म्हणून मनाकळजांतल्यान मागणें केल्लें आसा, ताचेफुडें तर ‘जनेश्वरा जनार्दना’ ही कविता खास जनार्दनाचेर बरोवन ‘प्रेम तुजेरि सदां रावूं दी हृदयांत म्हज्या’ असो आपणें आपणांकूच भरवंसो दिल्लो आसा. मुकुंदाबगर समादान मेळप शक्य ना म्हणपी भक्त केन्ना ‘पांडरिच्यान आयलो पांडू’ म्हणत देवाच्या येण्यान खोस उक्तायता, जाल्यार केन्ना केन्ना ‘जायना मरे, जायना म्हाका तुजेबगर काडूंक संवसार’ म्हुण वथरेता! कारण, ताच्या हिसबान देवाची दया दर्याच्या पाळावरी, मळबामेरेन पावन मळबांतल्यांन माथ्यार शींवरपी!

ह्या भक्ताक रामनामाचें पिशें, तातूंत भरपूर शक्त आसा, असो खर विश्वास! देखुनूच तो 'धरी आमचेर प्रेम' अशें भोव आत्मविश्वासान देवाक सांगता. गरज पडल्यार 'वर तूं कोणाक दिता' म्हूण देवाकडेन झगडटा, घरच्यांसयत पंचमहाभूतांक नमन करतना तांचेकडेन जीण आनी त्राण मागता, देव जनार्दनाची कृपा मागतां मागतां सगल्याच देवांचो जयजयकार करता.

ह्या सगल्याच कवितांची रचना करतना कवीन संबंदीत देवाच्या मूर्तीचो, तांच्या रूप-गुण वर्णनांसंबंदांतलो अभ्यास करून उतरां केळयल्लीं आनी खेळयल्लीं दिश्टी पडटात. देखीक, क्षिप्रप्रसादिनी वागीश्वरी, अमरावतीपुरेशा, आरती उवाळूं मंगळमुर्तेक, गौरीतनयाक, श्री सिद्धीविनायकाक, आदी. आतां सगल्याच आरत्यांनी अशी कोरांतिल्ली उतरावळ मेळटाच मेळटा. तेखातीर कवी श्री.आर.एस. भास्कराक जरूर परबी फावतात.

हांव घरून चलतां, 'आत्मनिवेदन' मदलो देवपिसो भक्त म्हणल्यार खात्रीन श्री.आर.एस.भास्कर न्हय! म्हाका आधुनीक काळाक धरून विचार करपी आनी ते नदरेन कविता रचपी कवी भास्कर 'आसा तुका मंदीर' मदल्या

'तरीय तूं रावता आमच्या
मनमंदीरांतु विष्णो'

ह्या वळींनी सांपडटा,

'तरीय तुका आवडींचें
गायन दुर्बळांचें'

मदीं सांपडटा. 'आसा हरी मनांतु' कवितेंत तर-

आसा हरी म्हज्यांतु
आसा हरी तुज्यांतु
आसा हरी सर्वयकडे
तरीय तो दिसना दोळ्यांत

सारक्या वळींनी कवी श्री.आर.एस. भास्कर श्पश्टपणान दिसता. तो तसोच अशा. आर्विल्या विचारांमदीं दिसत रावचो अशें म्हाका ताचो एक बरें मागपी इश्ट म्हूण दिसता!

कवी श्री.आर.एस.भास्कराक म्हजीं मनापसून परबीं.

ॐ श्री दत्त
श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय **कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी**

## नमन सरस्वते

क्षिप्रप्रसादिनी वागीश्वरी देवी
नमन तुका सरस्वते
ब्रह्मदेवाली वामांगिनी तूं
वर दितली ज्ञानांबिका
मागता तुजेकडे विनयपणानी
व्हांवूं दी मनांतसून उतरांची सरस्वती



# गुरु वंदन

वंदन तुका भक्तीन
वंदन तुका निवळ मनान
वंदन तुका साश्टांगांनी
श्री वामनाश्रम गुरुमहाराया

पावताय आमी तुजे
पावन चरणी
घालून लोटांगणी
गुरुमहाराया

सुकृताचें जीवन
सद्‌गुणी संपत्ती
वर दी आमकां
गुरुमहाराया



# आसा तुका मंदीर

आसा तुका मंदीर
होड होड रावळार
तरीय तूं रावता आमच्या
मनमंदीरांतु बिष्णो

गोड गोड कीर्तन
आयकता तूं सदां सदां
तरीय तुका आवडीचें
गायन दुर्बळांचें

आसा तुका गळ्यारि
कौस्तुभ हार
तरीय तुका जाय मूं
तुळशीचो हार



# वेळु काळु जाल्ले कितुले

वेळु काळु जाल्ले कितुले
सूर्य चन्द्र येताय वताय
रावता तूं जनार्दना
राखून आमकां सदांकाळ

आसा लक्ष्मी दाव्या भागीं
क्षमादेवी उजव्या भागीं
दर्शन तुजें अनंदा
दिता मनाक आनंद

नाका माका कीर्ती
धन धान्य संपत्ती
तुजे विशीं गावपाक सदां
लाब कर जीणे म्हजे



## उगड तुजे दोळे

उगड तुजे दोळे
देवा जनार्दना
मागता तुजेकडे
जोडून हात

अपराध कसलोय तरी
केल्लो जाल्यार आमी
क्षमा कर तूं देवा
सत्यनारायणा

संवसाराचें दुरित
दूर कर देवा
शांती समाधान
दान दी गा देवा



# जनेश्वरा जनार्दना

सदां काळ सदां वेळ
मन म्हजें वळवळेता
अमरावतीपुरेशा
मागता तुजें दर्शन

सच्चिद्मय रूप तुजें
दिता मनाक आनंद
वैकुण्ठाच्या विष्णो
जनेश्वरा जनार्दना

निवळ विचार सदां
व्हांवूं दी मनांत म्हज्या
प्रेम तुजेरि सदां
रावूं दी हृदयांत म्हज्या



# आयलो पांडुरंग

आयलो आज, आयलो आज
म्हजो पांडुरंग
आश्रय दिवपाक म्हाका
पांडरिच्यान आयलो पांडू

दिसु वता, दिसु वता
मनाची प्रतिक्षा चुकता
तरीय हांवें सोडूं ना मूं
आशा म्हजी भेटेक तुजे

दिल्लें तुंवें जें जें म्हाका
भव्यपणान सोंसलें हांवें
जायना मरे, जायना म्हाका
तुजेबगर काडूंक संवसार



## तुजे विना मुकुन्दा

दूर दूर वता तरीय
धावनु धावनु पावता मन
तुजे विना ना मुकुन्दा
मेळता समाधान

केन्न केन्ना जाता मन
शक्तीहीण युक्तीहीण
याद तुजी दिता सदां
आत्मधैर्य मनोधैर्य

चुकूं न्हय रे उतरां म्हाका
चुकूं न्हय रे कर्म म्हजें
सत्याच्या मार्गावेल्यान
चलूं दी रे भयविना



# देवा तुजी दया

देवा तुजी दया
दर्येच्या पाळा वरी
मळबा मेरेन पावता
माथ्यार म्हज्या शिंवरता

देवा तुजें प्रेम
फुलांच्या सुगंधा वरी
मग मग मारता
काळजांत म्हज्या भरता

देवा तुजी माया
झाडावेली वाली
घालता म्हजेर वेडो
बांदून सदां राबयता



## राम नाम जप

कितुलें सुंदर
आसा राम नांव
तितुलें निवळ तें
राम नाम जप

कोडु कोडु विचारांक
दूर दूर करता
तितुले गोड तें
राम नाम जप

जड जड संकश्टांक
दूर दूर करता
तितुलें शक्त तें
राम नाम जप



# धरी आमचेरि प्रेम

केन्ना केन्ना जगाक
जाता भारु अधर्माचो
तेन्ना भगवंता तूं
घेता अवतारु

मनुशालें रूप घेता
जीवजाळ जाता
भूंयेचेरि येवनु तूं
वैभव दाखयता

सज्जनांच्या उद्धाराक
आयलो तूं जनार्दना
धरी आमचेरि प्रेम सदां
नाका आमकां आनी कांयी



## आसा हरी मनांतु

आसा हरी मनांतु
आसा हरी उतरांतु
आसा हरी सदांच
सांगतान आमच्या

आसा हरी म्हज्यांतु
आसा हरी तुज्यांतु
आसा हरी सर्वयकडे
तरीय तो दिसना दोळ्यांत

भरूं दी मन
अचंजळ भक्तीन
रावता थैं हरी
राखता आमकां सदांकाळ



# वर तूं कोणाक दिता

आबोलेचें फूल तुंटेवन
गांतून केल्ली माळा
शांतादुर्गेक माळूंक म्हज्या
सोबीत सुंदर हार दिल्लो

एक सरी फूल ना
एक सरी कोळो ना
आबोली आतां बेजार जाल्या
आबोली म्हजेर रागार जाल्या

एक वाटेन मागतां हांव
आनी वाटेन मागता आबोली
सांग माये, सांग आतां
वर तूं कोणाक दितली



# मागणी

आवसूक नमन
बापसूक नमन
गुरूक नमन
नमन, तुमकां नमन

सूर्याक नमन
पृथ्वीक नमन
तेत्तीस कोटी देवांक नमन
अष्टदिक्पालकांक नमन

इश्टदेवतेक नमन
कुळदेवाक नमन
ग्रामदेवाक नमन
नमन, तुमकां नमन

जीण दियाय तुमी
त्राण दियाय तुमी



# अनुग्रहु दी जनार्दना

दिव्य सोबीत रूप तुगेलें
अमरावतीपुरेशा लक्ष्मीजनार्दना
प्रणाम करताय आमी साश्टांगांनी
अनुग्रहु दी तूं देवा जनार्दना

शंख नादांनी नामस्मरणांनी
शरण पावताय आमी इच्छांनी
अनुग्रहु दी तूं देवा
मनशांती दी लक्ष्मीजनार्दना

तुळसी दळांनी, कदळी फळांनी
अर्पण पावताय आमी नम्रपणांनी
अनुग्रहु ती तूं देवा
आयूर् आरोग्य दी लक्ष्मीजनार्दना

पांचार्ती उंवाळून कीर्तन म्हणून
मागताय आमी भक्तींनी
अनुग्रहु दी तूं देवा
ऐश्वर्य दी लक्ष्मीजनार्दना



## म्हणाय आमी जय जय

म्हणाय आमी जय जय
माधवाक

म्हणाय आमी जय जय
केशवाक

म्हणाय आमी जय जय
गोविन्दाक

म्हणाय आमी जय जय
नारायणाक

म्हणाय आमी जय जय
हृषिकेशाक

म्हणाय आमी जय जय
वसुदेवाक

म्हणाय आमी जय जय
अच्युताक

म्हणाय आमी जय जय
वामनाक

म्हणाय आमी जय जय
जनेश्वराक

म्हणाय आमी जय जय
जनार्दनाक

## आरती विघ्नेश्वराक

आरती उंवाळुं
मंगळमूर्तेक
गौरीतनयाक
श्री सिद्धीविनायकाक

आरती उंवाळुं
बुद्धीदायकाक
ज्ञानस्वरूपाक
श्री गजवदनाक

आरती उंवाळुं
विद्यादायकाक
परब्रह्मस्वरूपाक
श्री गणरायाक

आरती उंवाळुं
करुणासागराक
विघ्नहर्त्याक
श्री विघ्नेश्वराक

## आरती दुर्गाभगवतीक

आरती उंवाळूं
मंगळमूर्तेक
सिंहारुढेक
श्री दुर्गाभगवतीक

आरती उंवाळूं
प्रपंचमूर्तेक
क्षेमकारिणीक
श्री चामुंडेश्वरीक

आरती उंवाळूं
ज्ञानदायिकेक
वेदस्वरूपिणीक
श्री जगदीश्वरीक

आरती उंवाळूं
चैतन्यरूपिणीक
शक्तीदायिकेक
श्री त्र्यंबकेक

## आरती जनार्दनाक

आरती उंवाळुं
मंगळमूर्तेक
लक्ष्मीपतेक
श्री जनार्दनाक

आरती उंवाळुं
मेघश्यामाक
पीतांबरधारीक
श्री शेषसायनाक

आरती उंवाळुं
शंखचक्रधारीक
गदापद्मधारीक
श्री वैकुण्ठनाथाक

आरती उंवाळुं
कौस्तुभभूषणाक
मकरकुण्डळभूषणाक
श्री सत्यनारायणाक

## आरती दत्तात्रेयाक

आरती उंवादळूं
मंगळमूर्तेक
त्रिमूर्तीस्वरूपाक
श्री दत्तात्रेयाक

आरती उंवाळूं
शंखचक्रधारीक
कमंण्डळवाहकाक
श्री सगुणमूर्तेक

आरती उंवाळूं
गदापद्मधारीक
त्रिशूलधारीक
श्री त्रिगुणमूर्तेक

आरती उंवाळूं
ऐश्वर्यदायकाक
ज्ञानसागराक
श्री दत्तदिगंबराक

## आरती वेंकटपतीक

आरती उंवाळूं
मंगळमूर्तेक
पद्मावतीप्रियाक
श्री वेंकटरमणाक

आरती उंवाळूं
ऐश्वर्यमुर्तेक
श्रीशैलवासाक
श्री वेंकटेशाक

आरती उंवाळूं
शंखचक्रधारीक
दीनदयाळाक
श्री पद्मनाभाक

आरती उंवाळूं
भक्तजनप्रियाक
विश्वपालकाक
श्री वेंकटाचलपतीक

## आरती श्रीकृष्णाक

आरती उंवाळूं
मंगळमूर्तेक
राधावल्लभाक
श्री गोपाळकृष्णाक

आरती उंवाळूं
मनमोहनाक
देवकीनंदनाक
श्री मुकुंदाक

आरती उंवाळूं
यदुकुळपतीक
वसुदेवनंदनाक
श्री केशवाक

आरती उंवाळूं
आनंदसागराक
विश्वरूपधारीक
श्री मधुसूदनाक

## आरती महाबळेश्वराक

आरती उंवाळूं
मंगळमूर्तेक
पार्वतीपतेक
श्री परमेशाक

आरती उंवाळूं
त्रीनेत्रमूर्तेक
नीळकण्ठाक
श्री महेश्वराक

आरती उंवाळूं
इंदुचूढाक
गंगाधराक
श्री रुद्रेश्वराक

आरती उंवाळूं
त्रिशूलधारीक
नागभूषणाक
श्री महाबळेश्वराक

# आरती हनुमंताक

आरती उंवाळूं
मंगळमूर्तेक
सज्जनप्रियाक
श्री आंजनेयाक

आरती उंवाळूं
क्षिप्रप्रसादाक
वज्रशरीराक
श्री पवनात्मजाक

आरती उंवाळूं
शिव अवताराक
भयहारकाक
श्री कपिश्वराक

आरती उंवाळूं
भक्तीस्वरूपाक
रामदूताक
श्री हनुमंताक

## आत्मनिवेदन

धर्मानुष्ठान वेदानुसारनु
कळंकरहित कर्मवचन
श्रद्धाभक्तिचें प्रेम तुजरि
होळता मनांतु पवित्र गंगा

पुण्यस्थानां दर्शिलीं विविध
पुण्यचरित श्रविलें सुलभ
नित्य करतां पूजा तुगेली
नित्य गायतां कीर्ती तुगेली

तूंचि जन्म दिवपी, घेवपी
तूंचि प्रपंचाचो शिल्पी, नाशपी
आदिमध्यांत स्मरितालें नांव
सर्वय लोकांनी पूजितालें रूप

सूख दुःख तूंचि कल्पिता
भोग त्याग तूंचि दिसेयता
ज्ञान अज्ञान तूंचि अर्पिता
पुण्य पाप तूंचि करेयता

काम क्रोध भरला जगांतु
कश्टकठीण दिसता जीवन
आत्मधैर्य दी तूं जनार्दना
हेंचि म्हजें आत्मनिवेदन

# आर. एस. भास्कर हांगेली पुस्तकां

1. अक्षरां (कविता) - 1992
2. नक्षत्रां (कविता) - 1995
3. अक्षतां (कविता) - 1997
4. युगपरिवर्तनाचो यात्री (कविता) - 2014
5. चिनू मिनू चानो (बाल कविता) - 2006
6. कोंकणी मलयाळम भाशा परिचय (शिक्षणीक) - 2009
7. कोंकणी अक्षरमाला (शिक्षणीक) - 2011
8. आत्मनिवेदन (भक्ति कविता) - 2015
9. पंचायतनाचे भजनमाळा (भक्ति कविता) - 1985
10. गुरुचरणी (भक्ति कविता) - 2000
11. कोंकणी भाशा परिचय (शिक्षणीक) - 2013
12. तुकारामवाणी (वैचिक अभंग - मळयाळम अर्थ सहित) - 2015
13. म्हजा आजाक एकी हस्ती आशिल्ली (कथा - भाषांतर)
    मूळ मलयाळमः वैक्कम मुहमद बशीर
    (केन्द्र साहित्य अकादमी, दिल्ली) - 2001
14. ब्रह्मर्षी श्री नारायण गुरु (मोणोग्राफ - भाषांतर)
    मूळ मलयाळमः डॉ. टी. भास्करन
    (केन्द्र साहित्य अकादमी, दिल्ली) - 2013
15. केळीघडाव (कविता - भाषांतर)
    मूळ मलयाळमः चङ्ङम्पुषा कृष्ण पिळ्ळा
    (कोंकणी साहित्य अकादमी केरळ) - 2015
16. दैवदशकम (काव्य - भाषांतर)
    मूळ मलयाळमः श्री नारायण गुरु



**R.S.BHASKAR:** Recipient of Kendra Sahitya Akademi Award (TR- 2003), The Tarabai Vishnu Mapxemcar Vaishya Bharati Puraskar (1996). Konkani Bhasha Prachar Sabha Sahitya Puraskar (1994). He has participated in many National level poet's meet such as the North-Eastern and Western Indian Languages Kavyotsav (Aurangabad 2013), Western Indian Languages Kavyotsav (Jalna 2010), North-Eastern and Western Indian Writer's Meet (Pune 2008), Multi Lingual Poet's Meet (Panaji 2007), South Indian Poet's Meet (Thunjan Parambu 1999), First World Konkani Kavi Sammelan (Mangalore 1997) and National Symposia of Poets (Delhi 1997).

**Publications**: Aksharam, Nakshatram, Akshatam, Yugapari-varthanacho yatri (Poetry), Chinu minu chano (Children's poems), Panchayatana, Gurucharani,Tukaramvani (Devotional poems), Aksharmala, Konkani bhasha parichay, (Educational), Maja aajak eki hasti assili, Brahmarshi Sree Narayana Guru, Keli gadavo, Daivadasakam (Translations from Malayalam into Konkani).

**Position held:** President, 21st Akhil Bharatiya Konkani Sahitya Sammelan, Vice Chairman, Akhil Bharatiya Konkani Parishad, Member, Advisory Board, Viswa Konkani Sahitya Akademi.

**Address:** Ram Mandir, 10/539, Janardhana Temple South, Amaravathi, Fortkochi-682001, Kerala

**AKSHARA RAMESH** is a budding artist with great prospect for achieving higher levels of proficiency in the field of arts in future. She has been consistently winning



prizes in sketching as well as water colour painting in school arts festivals since 4th standard.

In the national level painting competition based on energy and water conservation conducted by the Central Ground Water Board, Trivandrum and National Thermal Corporation Kerala, both Central Government organisations, Akshara was selected continuously for the last three years.

She achieved 1st position and 2nd position respectively at the District level and State level International Poster painting competition conducted by the Lions Club International.

Akshara is a VII Standard student of the St.Mary's Anglo-Indian Girls Higher Secondary School, Fort Kochi. She is the daughter of Sri.Ramesh Amaravathy and Smt.Anitha. Her younger sister Anushka studying in Standard I is also a skilful artist.

**Address:** 'Aksharam' 1/1556C(1), South Thamaraparambu, Fortkochi-682001



**Suvarnarekha Publications**
10/443A P.S. Dayanandan Lane,
Janardhana Temple South
Amaravathi, Fortkochi - 682 001, Kerala